श्री किरण बुडकुळे
हांका
मायें मोगान
आर.एस.भास्कर
28/2/14

(कोंकणी)

# युगपरिवर्तनांचो यात्री

## कविता संग्रह



आर.एस.भास्कर



सुवर्णरेखा पब्लीकेषन

(कोंकणी)

युगपरिवर्तनांचो यात्री

कविता संग्रह

(Konkani)

YUGAPARIVARTHANANCHO YATRI

Collection of poems

आर.एस.भास्कर



उजवाडावपी
राधामणी भास्कर
सुवर्णरिखा पब्ळीकेषन
जानार्दना टेंबीळ (सौथ)
१०/४४२ (Old) पी.एस.दयानन्दन लेन
अमरावती, फोर्ट कोची-६८२००१, केरळ
मो : ०९३४९२९५२५५
ईमेल : bhaskarkochi@gmail.com

पयली उजवडावणी : जानुवरी २०१४
प्रती : ५००

अक्षर जुळणी /अंतर्गत रचना :
संदीप पडते, पुणे- ४११०४३
मो : ९४२०१७७९४५
ईमेल : snehadeepgraphics@gmail.com

छापपी :
नवसह्याद्री ऑफसेट, पुणे-४११०४१
मो : ०९४२३००२२८५
ईमेल : sasinathpune@yahoo.co.in

मोल : १३० रुपया

हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या साहित्य प्रभा अर्थीक पालव येवजणेखाला छापलां

आर.एस.भास्कर

१९६८ सावन साहित्य रचना करता.

जल्मः ४ जुलय १९४७ वर्सा, केरळांत फोर्टकोची अमरावती हांगा.

पुस्तकां:

अक्षरां (कविता संग्रह १९९२)
नक्षत्रां (कविता संग्रह १९९५)
अक्षतां (कविता संग्रह १९९७)
पंचायतना (भक्तीकाव्य १९८५)
गुरुचरणी (भक्तीकाव्य २०००)
म्हज्या आज्याक एक हस्ती आशिल्ली
(वैकम मुहमद बषीर हाणी रचिल्या मलयाळम कथेचो अणकार २००३)
अक्षरमाला (शिक्षणीक २०११)
कोंकणी भाशा परिचय (शिक्षणीक २०१३)
ब्रह्मर्षी श्रीनारायणगुरु (डॉ.टी. भास्करन हाणी रचिलें मलयाळम मोणोग्राफाचें अणकार २०१३)
युगपरिवर्तनांचो यात्री (कविता संग्रह २०१४)

पुरस्कार:

केन्द्रीय सहित्य अकादमी (अणकार) पुरस्कार (२००३)
ताराबाय विष्णु म्हापशेकार वैश्य भारती पुरस्कार (१९९६)
कोंकणी भाशा प्रचार सभा सहित्य पुरस्कार (१९९४)
केरळ वैश्य समाज पुरस्कार (१९८०)

भोवमान:

अखिल भारतीय कोंकणी सहित्य संमेळन (कुमठा, २००५)
संयुक्त गौड सारस्वथ सभा, कोषिकोड (२००४)
आय.एस.पी., कोची विश्वविध्यालय (२००४)
भारत भवन, कोची महानगरपालिका (२००३)
सीटीटीयू सुवर्णोत्सव समिती (२००२)
केरळ कोंकणी अकादमी (१९९४)
श्री संस्तान वैश्य समाज गुरुमठ (१९९४)
केरळ वैश्य समाज (१९९३)

पदवी:

अध्यक्ष, २१ वें अखिल भारतीय कोंकणी सहित्य संमेळन (मडगांव २०१३)
सदश्य, सल्लागर समिती, विश्व कोंकणी सहित्य अकादमी, मांगळूर
सदश्य, समस्त केरळा सहित्य परिशद, कोची

सदश्य, कोंकणी सल्लागर समिती, केन्द्रीय सहित्य अकादमी (१९९३-९७ २००३-०
सदश्य, कोची विश्वविध्यालय सेनट (२००३-२००७)
भांडारी, सरकार्यदर्शी, केरळ कोंकणी अकादमी (आदलो)
सरकार्यदर्शी, उपकार्याध्यक्ष, अखिल भारतीय कोंकणी परिशद (आदलो)
सदश्य, कोंकणी सल्लागर समिती, सुकृतीन्द्रा ओरियन्टल रिसर्च इनस्टीट्यूट, कोची
सदश्य, कोंकणी पाठ्य पुस्तक समिती, एस.सी.ई.आर.टी. केरळ

## काव्यवाचन:

ईशान्य-पश्चीम भारतीय लेखक संमेळन, केन्द्रीय सहित्य अकादमी (औरंगाबाद २०१
पश्चीम भारतीय भाशा काव्योत्सव, केन्द्रीय सहित्य अकादमी (जालना २०१०)
ईशान्य-पश्चीम भारतीय भाशा काव्योत्सव, केन्द्रीय सहित्य अकादमी (पुणे २००८)
भोव भाशीक कवि संमेळन (पणजी २००७)
भोव भाशीक कवि संमेळन, दूरदर्शन तिरुवनंन्दपुरम (२००७)
पश्चीम भारतीय भाशा कवि संमेळन, केन्द्रीय सहित्य अकादमी (कोची २००६)
कोंकणी काव्य संध्या, केन्द्रीय सहित्य अकादमी (फोर्टकोची २००६)
कविताफेस्ट, (मांगळूर २००६)
मराठी-कोंकणी काव्य संध्या (पणजी २०००)
दक्षीण भारतीय काव्योत्सव, तुन्जनपरंब (१९९९)
सर्व भाशा कवि संमेळन (दिल्ली१९९७)
प्रथम विश्व कोंकणी कवि संमेळन (मांगळूर १९९७)
अखिल भारतीय सर्वबोली कोंकणी कवि संमेळन (मांगळूर १९९२)
पणजी, धारवाड आनी कोची आकाशवाणी केन्द्रांत कविता वाचन
अखिल भारतीय कोंकणी परिशदेच्या विंगड विंगड राज्यांत घेतिल्ल्या कवि संमेळनांनी सहभाग.

## कविता उजवाडून आयिल्लीं नांवांजत्या प्रकाशनां:

ऋतू, जाग, सुनापरान्त, बिम्ब, कोंकण टायम्स, पंचकदाय, कोंकणजनता, वैश्यभारती, दिवटी, सारस्वतवाणी, कविता, काव्याझेलो, काव्योध्यान, स्पंनदन, मार्गादीपम, पांच कोंकणी कवितेचीं, इंड्यन लिटरेचर, समकालीन भारतीय सहित्य, कोंकणी काव्य मंज साहित्यरत्न, दीपांकूर.

इंग्ळीष, हिन्दी, मलयाळम, कन्नड, पंजाबी आनी हेर भारतीय भाशेंत कविता अणकर जाल्यात.
'अक्षरां' कवितासंग्रह 'अक्षर' ह्या नांवांनी हिन्दी भशेंत अणकार जाल्ला.
'युगपरिवर्तनांचो यात्री' ह्या कविता संग्रहाचें इंग्ळीष अणकार 'दि ट्रावलेर ऑफ ट्रान्सफ टयम्स' ह्या नांवांनी प्रकाशना खातीर तयार जाता.

तुवें म्हाका जल्म दिल्ले
जीणेचें सारतत्व शिकयलें
काळीज भर मोग दिल्लो
गोड गोड भास दिल्ली
तुज्या पावलांचेर गे
ओंपतां अक्षरांची अर्गां

# मांडावळ

# मांडावळ

## प्रस्तावना

### केरळ कोंकणीचो समर्थ आविश्कार : आर.एस.भास्कर

कोंकणीची केरळ मोडींतल्यान काव्य करपाची परंपरा खूब पोरणी आसा. कों
समृद्ध करपाक ह्या मोडीन जितले लेखक आनी कवी दिल्यात तांतले एक मुखेल म्
आर.एस.भास्कर. गध्य साहित्याक गोकुळदास प्रभु, शरतचंद्र शेणै, के.आर.वस
सारकेल्यानीं आपणालें मोलाचें योगदान दिलां, जाल्यार पी.एन.शिवानन्द शेणै
भास्करांच्या सागातान कोंकणी कवितेक व्हड योगदान दिलां.

आर.एस. भास्कराक हांव फाटलीं कितलीशींच वर्सा कोंकणीच्या मळार वा
पळयत आयलां. आपणाल्या लानशा मूर्तीन संबंद कार्यावळींत मोन्यानी वावुरपी को
सरस्वतीचो हो एक एकानिष्ठ सेवक. कोंकणी चळवळींत सक्रीयपणान वावुरपी, स
कुशाल अशा ह्या मनसाच्या भितर एक संवेदनशील कवीमन आसा हाची जाणवि
तांच्यो 'ऋतु' तल्यो बी कांय कविता वचून म्हाका जाली तेन्ना हांव अजापित जालें
रसीक वाचक म्हूण तांच्या कवितांचो आस्वाद धेवपाक म्हाका सदांच आवडलें.

अक्षरां (१९९२) नक्षत्रां (१९९५) अक्षतां (१९९७) आनी आतां युगपरिवर्त
यात्री (२०१४) अशें एका परस एक सरस काव्याचें झेले कवितेच्या मळबांत फां
आर.एस.भास्कर म्हळ्यार कविता भास्कराचें एक लखलखीत कीर्ण. 'अ
(१९९२)च्या प्रस्तावनेंत तांच्या विशीं पुंडलीक नायक म्हणटाः कवीली जाणीव
जून आनी नदर तीशण आसा. पयल्याच झेला विशीं कवीक दिल्ली ही पावती
खशेलपण दाखयता. तेच बरोबर ताच्या कवितांची तोल्य दाखोवन दिता पयलेपण
कसल्योच कुरवो आंगार मिरयनासतना परिपक्वतायेची जाणविकाय कवि दिता. हें त
समर्थ भाशा जीवन जाणिवेचें आविश्करण! आयज ह्या नव्यातालय झेल्यांत कवीच
जाणविकाय अदिक परिपक्व जाल्ली दिसता. देखून आपणालें स्वत्व सोदताना
नदर दिगंतापेल्यान गेल्ली दिसता. ताच्या कवितेंतलें 'हिंडुपी शेवणें' आख्या जग
आपणालें 'कुटुंब' मानता आनी कवि हो कसो विश्वव्यापी आसता ताचो दिश
'वसुधेव कुटुंबकम् ही ताची जाणविकाय, अशें तरेन हिंडुपी शेवण्यांतल्यान उ
जाता. देखून नायजेरियांतल्या सारोविवाक सुळार चडयतकच ताचे जें 'पेडपेडेवन म
जाता ताचें दुख ताका काश्मीरांतल्या भावाच्या स्थिती विशीं दुखता तेच तरेचे अ
हाचो प्रत्यय वाचप्यांक येता. काश्मीरांतल्या आपल्या भावाची अवस्था साम
हलाखीची आसा. पावलां कणकणी थंयच्यो बायलो आनी दादलेय बी दहरातवादा
भकीक बळी पडटात हाची जाणविकाय ताका आसा. पुण इतलें आसूनय, आ
सुरक्षित रावूनय तांची राखण करपाक आपुण पावूंक ना हाची ताका खंत आनी श

दिसता. काश्मीराच्या भूंयेवेले अत्याचाराचे विदारक चित्र मानाचेर फातर दवरून तो चितारता तेन्ना कवीची विश्वव्यापी नदर वाचप्यांच्या मनाक स्पर्श करता; आनी कवितेच्या मळबातलो हो 'भास्कर' कितलो खर जावक शकता हाचो प्रत्यय दिता.

"आज तुका
भयण ना
आवय ना
सपन ना"

"तुजो जाला
रक्ताचो सूर्य
तुजें जाला
रक्ताचें चान्नें"

काश्मीर आयज रक्तरंगित जाला. धर्तरिवेलो हो सर्ग तांतली झाडांपेडा, तळी, न्हंयो, दोंगर सगळो रक्ताच्या तांबड्या रंगान रंगला. हाचे चुरचुरो कवीक दिसतात.

हे कवीक समस्त संवसारांतल्या मनीसजातीचो मोग आनी कळवळो! देखून तो आपणाल्या मनमळबाची शीम वाडयता. कित्याक तर ताच्या सपनाळ्या विचारांक नक्षत्रां भशेन लिकलिकपाक जाय म्हुण !

ह्या कवीक सैमातल्या. दर एकाची दुखां समजतात जाणट्या पिंपळाची चिंता ताकाय सतायता. आपणाकडेन भुरगीं येनात आनी झाडमारप्यान झाडार कुराड तेंकयतकच पूर्वील्लें सांगपाक आपूण आसचोना देखून न्हय जाल्यार- 'सदांकाळ जितो आसूं जाय। सावट दीत रावूं जाय' हें आतां जांवचेंना म्हुण खंती जालो पिंपळ कवीक दिसता. पावसाक तो 'सैमसंगीत आयकूंक दीत पड' अशें सांगतां. ताका तो धोग्यानी पडनासतना ल्हवू ल्हवू पड अशें सांगतां, कित्याक धोग्यानी पावस पडल्यार मनशा सांगातान धर्तरेकय त्रास जातले. ती आकुळ पिकुळ जातली. संवसार चालंत रावचोना, देखून मागीर तुजी गरज आसचीना हो कवीक हुसको दिसता. कितलें संवेदनाशीळ मन कवीचें!

कवी म्हळ्यार द्रष्टेपण देखून नवे पिळगेक तो वेळा बराबर चलपाक सांगता. 'ना जाल्यार आमीं लक्षाकडेन पावंक शकनात' अशी शिटकावणी तो दिता. एके कडेन तो म्हणटा 'आपणाक आजी धांवक नाका' म्हणटाली. देखून आपूण तेन्नाच न्हय, केन्नाच धांवूंक ना'- ताचो परिणाम-आयजच्या ह्या स्पर्धात्मक संवसारांत सगळे जाण वेगान धावंन लक्षाकडेन पावत आसतना आपणाक मात धावंक येना लक्षाकडेन वचूंक येना कारण आता तो धावंपाचेंच विसरून गेला.

मिताक्षरी कविता रचप ही कवी भास्कराची विशेशताय ताका बाकीबाब बो
र.वि.पंडित, मनोहरराय सरदेसाय हांच्या पंगतीक हाडटा. ताणीं ह्या
कवितांतल्यान जीणेचें सारतत्व सांगून व्हड आशय उगतो केल्लो. तेच तरेन
भास्करानय जीणेची तरा तराची तासां सैमाच्या प्रतिकां वरवीं उगतीं केल्यात.

"धतरिचें सपन
वोवळा फुलां
मळबाचें सपन
नक्षत्र फुलां"

वा

"आक्षर घेवन
रीणबंद जालो
आक्षर दीवन
रीणमुक्त जालो"

संवसारांत शाश्वत अशें कांय ना हें जरी सत् आसले जाल्यारय 'सोंसून जोडिल्लेंच श
उरता' आनी मनशाची वळख तांतल्यानच जाता. देखून झाडाची वळख त
फुलावेल्यान जांवदी अशें तो म्हणटा.

भास्कर एक शांत, थीर व्यक्तिमत्व तांचे विशीं एक खरीतच आदरभाव दिसत
जशा व्यक्तिमत्वाच्या मनांत कितलेशेच खतखते आसात. हे तांच्यो कविता वाचत
दिसता. देखीक 'आंगवणेचें कुंकड, फातरवंशी, फुल स्वय फुल्लुदी, नांगर, पांजयं
कीर , सूर्यरथ'.

कवी म्हळ्यार शाब्दसृष्टीचो साम्राट ताच्या मुखार सगळी उतरां हात जोडून
रावतात खरी. पुण तांच्या तांकीचो स्पश्ट अंदाज कवीक आसा. ताच्या भोंवतणी
हिंसा चलल्या, जी दुश्टशक्त हांगा वावुरता ती निखळून पडूंक जाय. देखून कवी
भायर सरपाक सोदता. पुण ते खातीर ताका 'बळवंत उतरांचो' सांगात जाय. उ
शांत, शीतळ, धगधगीत. पुण तीच मनांत क्रांती घडोवंक शकतात. कवीचीच उतर
अशी वाचप्यांक एक नवी विचारीक दिशा दिवपी. कवीक आत्मविश्वास आसा तो एक
एक दिस लोकांच्या मना-विचारांत आनी चलणुकेंत क्रांती घडटली हाचो. क
उतरांकच कित्याक साद घालता? कारण मनीस जेन्ना बळिश्ट जाता तेन्ना हिंसे वरवि
दुश्टबळ हाताळताना कवीक दिसता. उतरां मात अशीं केन्नाच बेईमान आसनात. दे
तो उतरांक उलो मारतना तांकां 'बळवंत' अशें विशेशण लायता.

कवी भास्कर केरळच्या पवित्र भूंयेचेर जल्मला. थंयची ही १५/१६ वी पिळगी आसत. अशें म्हणपाचें कारण गोंयातल्या धर्म परिवर्तनाच्या काळार जे लोक स्थलांतरीत जाल्ले वा वेपार उधेगाच्या निमतान जे गोंया भायर सरले ते केरळा मेरेन पावले तांतुतलो एक घराबो भास्कराच्या पूर्वजांचो आशूंयेता. हांणी वेव्हारा खातीर थंयची संस्कृती आनी भास आपणायली लिपीय आपणायली. पुण जीबे वयली गोंयातली कोंकणी मात राखून दवरली आपणाल्या मूळ भुंयेचो मोग तिगोवन दवरलो. देखून 'गोंय तुजीं' हांतूत कवी म्हणटा–

"गोंय तुजीं तांबडी माती
पावला पोंदाक धरुन रावलां
मोगाळ तुजो याद मगे
मना म्हजा रिगून रावता"

केन्ना केन्ना मनांत तिगून रिगडून राविल्ली ही याद तिका आकरी फुटत रावता मोडून धेतल्यार मूळ धरता.

मंजुनाथ शानभाग हांणी कांय दशका आदीं 'एक भास – एक समाज एक लिपी' हो मारिल्लो उल्लो केरळांतल्या कोंकणी लोकांनी आचरणांत हाडलां. सुरवेंक मलयाळम लिपयेंतल्यान बरोवपी लेखक आतां नागरींतल्यान साहित्यनिर्मणी करपाक लागल्यात. मूळपीठा सावन पैसावलेले साबार जाण पर्थून मूळपिठकडेन जोडून येवपाक लागल्यात ही व्हडा खोशयेची आनी सुगुर्व्याची गजाल.

भास्कराच्या कवितेक एक खाशेले प्रदेशिकपण आसा. केरळांतल्या प्रदेशिक उतरांचो आसपाव तांच्या कवितेंत जालां. आनी ताणी एक खाशेलें नादमयरूप तांच्या कवितेक दिलां. वळतेंमल्लें, पासाणकुळी, मोन्नो बैल, ताळांत, प्रपंच अशी जाय ती उतरा कवितेंत मेळटात.
ही उतरां कवितेक एक सुरबुसपण दितात तेच वरी कवितेक एक सहजपणाय दितात हांच्यां प्रयोगान वाचप्यांक ही कविता आपलीशीं दिसता.

"एक उतर
पूर्व दिशेकडे
दोंगुल्याच्या तेंगशेर दवरलें
तें उज्याकीट जालें
सदांकाळ उरलें"

“मळबा विशीं उडून गेल्ले
धतरिक न्हाणयता”

“आनी पिसोळें जाल्ले
तें आतां पराग घडयता
फुल फुलयता”

आनी सृजनाचो सुवाळो करून सगळ्यांची उमेद वाडयता.

कवी उतरांच्या सोबीताये सांगतान एक विचार दिता. सपनां जागयताना उ
सत्यस्वरूप वास्तव्य दोळ्या मुखार दवरता देखूनच युगपरिवर्तनाच्या यात्र्याक चल
आदेश तो दिता. मात न्हय चलून आयिल्ले वाटेक घुंवून पळोव नाका. तशें केल्यार
शेळोवपाची संभावना आसा अशें ताका दिसता. एक सारको चलपाचो आग्र
युगपरिवर्तनाच्या यात्र्याकडेन धरता हाचें कारण कवीक खात्री आसा की अखेरेक
'आगळ्या वेगळ्या जाग्याचेर पावतलो' 'थंय सपनाचे व्हाळ व्हांवचेना' आनी
'सपन रुप्या वाटले भशेन मळबार सोबतलें'.

थोड्या उतरांनी व्हड आशय उगतावपी ही कविता समेस्त कोंकणी वाचप
सहजतायेन आयकूं येता अशीं. कोंकणी मनशांचो एकवट/एकचार हाचे भायर अ
कसलो तो वेगळो? कोमल भावना, संवेदनशील मनान उगतायतनाच एक स
विचार आनी उतुंग सपना दाखोवपी ह्या कवीच्या नव्या झेल्याक मना सावन येवक
केरळी कोंकणी मोडींत ह्या झेल्यान निश्चितच एक नवे सोंपण हुपला आनी आपण
वेगळेपण रेखला म्हणपाचें कवीन दाखयला. आपणाल्या उजू आनी नमळ सभावा प्र
आपणाल्या व्यक्तिमत्वाची 'अक्षर-नक्षत्रां' वाचप्यांच्या मनांत सदांच सत्य, न्याय
उजवाड घालत लिकलिकावपी ह्या कवीची प्रतिभाय सदांच अशींच चंवरत रावूं
आंवडेता.

– प्रियदर्शिनी तडकोडक

विभाग मुखेली, कोंकणी विभाग गोंय विद्याप
ताळगांव सड्यार तिसवाडी, गोंय-४०३२०
दूरभास: ०८३२-६५१९२९२
०८३२-२४२३५७७(राबितो)
भोंवडे-भास:०९४२०५९५१३९

# हिंडुपी शेवणें

हिंडुपी शेवण्याक
घर ना
हिंडुपी शेवण्याक
भाट ना
हिंडुपी शेवण्याक
वंशक्षयाचें विशीं हुसको ना.
हिंडुपी शेवणें
देश देशांतर हेंडत आसा.

हिंडुपी शेवण्याक
आपणाल्या संवचें विशीं हटपणां ना
पाविल्या गांवांतलें दाण आनी फळ
शेवण्याक खाण जेवण
थंच्या न्हंयची व्हंवती पाणी
दिता शेंवण्याक तान्नें घोंट
थंच्या रुखावळीचेर जाता
रात्रीची न्हीद सुसेगपणी



गांवची चाल रीत
शेवण्याक पुण वळखीची
गांवची बोली
रोखडीच ताका जिबेर घोळपी
हिंडुपी शेंवणें
देश देशांतर हेंडत आसा.

गांवगावांत भोवंपी शेवण्याक
मांयगांव पयस जाला
चिखल मातीचें गंध
आज ताका विस्मृत जाला.
तरीय ताका चुरचुरो ना-
तरीय तें असांतोशी न्हय
हिंडुपी शेवण्याक
आख्या जगत आपणालें कुटुंब.



# काश्मीरांतल्या म्हजा भावा

काश्मीरांतल्या म्हजा भावा
तूं बरो मरे?
'हाय बरो-
देवाच्या कृपेन !
उपचाराचीं उतरां तुजी
निराधारी आनी समजुतपणी
कोण आसा नकळो-
तूं अस्वस्थ म्होण!
काश्मीराच्या हरध्याक
तालवार तोंपून आसा
काश्मीराच्या निडळा मुखार
बंदूक उबें आसा
म्होण तुका सूख ना
म्होण तुका समाधान ना.

एक फावट तूवें म्हळ्ळें-
भयण तुका शेणली अशें
बाकड्यांक चरोवंक गेल्ली पाप
परत मागीर येवंकच ना
घळींत तुका मेळ्ळें मागीर
बर्फांत गोठिल्ले कूड भयणीचें
शिंपडून पडिल्लें-
पिंज्जील्लो ताजो कमीज
पिंज्जील्लो ताजो सालवार
आनी धवो लेंस.



मागीर आयकली
तुजी विचित्र खबर
घरांत तूं नासस्तना
घर तुजें चोरलें-

आवयचो अब्रु लुटलो
आवयचो प्राण लुटलो
आंगणांत रुखाचा खांध्यार
लांबयलें तिजें मडें-
माथें सकल
आनी पांय वयर.

एक वेळा
तूं बरोबर वांचलो
ताळांत शेळेंत
तूं लिपून रावलो.
साळकाच्या देंठांतल्यान-
स्वास घेतलो
घुस्मटो सुवाद रुचून
जीण तुवें स्वय सांबाळ्ळें

आमी मरे हांगा
मनायली होळी-
नाचले आमी
गायलें आमी
तांबडें फापुडलें
पाचवें फापुडलें
रंगयाळी होळी
आनंदीत न्हाल्ले.

तुजी पुण जाली
रक्ताची होळी-
अनंतनाग गावांत तुज्या
त्या वेळा बंदूक हाल्लें
रक्ताचे व्हाळ
झरझरीत व्हांवलें



तरण्या तरण्या मनशांचें
हुनहुनीत रक्ताचे.

आज तुका-
भयण ना
आवय ना
सपन ना.

तुजो जाला
रक्ताचो सूर्य
तुजें जाला-
रक्ताचें चान्नें
रक्ताचें फुल
आनी रक्ताचें फळ.

देवतार तुका
रक्ताचो रूख
डाल तुका
रक्ताचें तळें
शिवालीक तुका
रक्ताचो दोंगुल्लो

पुराय काश्मीर-
तुका रक्ताचें घळ.
हाव मरे
भाव तुजो-
राखणेक तुका
पावूंक नाशिल्लो.



# मा निषादा

अहो,
बळवंत उतरांनो
येयात-
तुमी म्हज्या वांगडा रावात
हो भुगोळ अशींच
हांव हालोवपाक सोदतां
जे हांगा हिंसा वावुरतात
सगट भियेवन थांबूक जाय
जे हांगा दुश्टबळ हाताळटात
सगट निकळ्ळून पडूंक जाय
देखून हांव भायर सरता
म्हज्या वांगडा तुमी येयात-



अहो
बळवंत उतरांनो
घोर रानांत
वळतेच्या माळ्ळूयांत
इतलो वेळ
जपून बसलो-
राम राम
म्हणून बसलो-
कोणे तरी
म्हजें माळ्ळें कोसळायलें
आनी माका
उस्वास भोगला
हांव आता
भायर सरता
म्हज्या वांगडा
तुमी येयात-

अहो,
बळवंत उतरांनो
सुरवेकच पळयलें
पाप शेवणें
बाण तोंपून
सकल पडलें-
रगत व्हावंत
तळमळेवन मेलें
मागीर कितलीशींच
जाता हिंसा-
'सारो विवा'*
सुळार लांबलो
गळो चिरडून
पेडपेडेवन मेलो

जे हांगा हिंसा वावुरतात
सगट भियेवन थांबूक जाय
जे हांगा दुश्टबळ हाताळटात
सगट निकळून पडूंक जाय
देखून हांव
भायर सरतां-
म्हज्या वांगडा
तुमी येयात-
अहो
बळवंत उतरांनो

* केन सारो विवा नयजीरियाच्यो कवी. ओगोणी वंशजांच्या मुक्ती खातीरच्या चळवळीत आशिल्लो. सत्ताधीशांनी सुळार घाल्लो.

# एक आवय

एक आवय
एक आवयेक तेग पूत.

दर एक पुताक जाय
दर एक तरा भाताचें शीत-
पयल्या पुताक जाय
मिर्ग भाताचें शीत
दुसरें पुताक जाय
चित्रा भाताचें शीत
तीसरें पुताक जाय
रेवती भाताचें शीत.

एक आवय
एक आवयेक आसाय
तेग पूत
तेग पुतांचें खातीर
शिजोवपाक जाय
तीन तरा भाताचें शीत
आवयचेंकडे आसा पुण
एकूच तोपील
पाप आवय
देखून सदां चुरचुरेता.

# रस्त्याकडेचो भुरगो

मारता पोटार
मारता वाटळेर
तोंड पिंजत
मारता उल्लो
हात फापुडूंन स्वंय
मारता ताकलेर

येतल्लें वतल्लें लोक
पळेताय नाशिल्यान
आपणाल्याच आवय बाप्पाक
मागीर मारता सिराप



# फुलाक स्वय फुल्लु दी

बागेंत झाडाक
पयले पावट लागलो कळो
फुलाची सोबाय पळेवंक म्हूण
कळो हांवें सडसडीत उगडायलो.

फुल्लेयल्या फुलाक
फुल्लेला फुलाची सोबाय ना
फुल्लेयल्या फुलाक
फुल्लेला फुलाचो वास ना
फूल स्वय फुल्लेवंक जाय व्हय-
फूल स्वय फुल्लेवंक जाय



# फातर वंशी

आमी फातर वंशी
आमी पासाण कुळी
तुजी वस्ती गर्भकुडींत
म्हजी पुण दारा भायर.
हांव फकत सोंपण
पळेता सदां सपण
अशें जालें नशीब म्हजें
सगटांचो फोपरमार घेवंपाचें



हांव कुडींत बंदी मरे
तूं पुण आसा मेकळो
म्हणतालेंच म्हणतालेंच
परत परत आयकता
बळान दितालें कितेंय
मोन्नेपणान खाता
असो म्हजो आसा कपलावेलो बोरो
मागतल्यांक मागतल्यांक यश आंवडेंवपाचो



# प्रिय नक्षत्रांनो

प्रिय नक्षत्रांनो-
तुमी थयींच पर्जळून रावाय
उदेता सूर्याक
लाठ्ठी-उदक दाखेयाय
पुनवेच्या चन्द्रमाक
पांचारती उवाळाय
मळबार सदां
चमत्कार मांडाय
वर्स भर
प्रिय नक्षत्रांनो

वैशाखांत पुण
एक रातीक मात्र
थोडें घडियांक
तुमी सकल येयाय-

गावांत म्हजा
जात्रा आसा
विष्णु देवालो
दिग्विजय आसा
त्या वेळा तुमी
सकल येयाय





देवाल्या किरीटाक
सोब घालाय
कपलावेल्या तिळ्याचेर
थापून रावाय
गाळ्यावेला माळेचेर
लांबून पडाय
अंगवस्त्राचेर
तिबें जायाय
कुरटावेलो
पाटो जायाय
कुंडळ जायाय
कानाचे लांबाय
हाताक कंकण जायाय
पायांक वाळे जायाय

पालखेंत
झालरी जायाय
पालखेच्या मुखार
दिवट्यो जायाय
केरींत फांतीन रावूंन
चकचकीत उजवाड घालाय
भांगराची पुडी हापडून
रस्तार संतोड घालाय
उपरांत तुमी परतून वचाय-
प्रिय नक्षत्रांनो

# तूं स्त्री

तूं स्त्री
तूं गंगा
तूं पवित्र
देखून तुका मान दितात

तूं स्त्री
तूं गंगा
तूं शक्ति
देखून तुका भितात

तूं स्त्री
तूं गंगा
तूं करुणामयी
देखून तुका दुरित

तेन्ना सावन आज मेरान
तुका मेळ्ळा बंधन
पुरुशाल्या सुवार्थाच्या जटेंत
स्वातंत्र तुजें घुसपला

मुक्ति दिवपाक तुका
एक फावट तो आशिल्लो
भगीरथ आशिल्लो
तेन्ना तूं थोडें वांचली

पुण, आज तो येवचिना
भगीरथ आनी पावचिना देखून,
तूंच तुजी वाट पळय
तूंच तुजी वाट पळय



# बिम्ब आनी पडबिम्ब

हांव आसल्यार मात्र
तूं आसा-
बिम्ब मण्टाले
पडबिम्बाकडे
स्वंय तुका
ना चोय कसलो बी वावर !

तो विचार सोड तूं
आनी माका आयकूंन घे-
पडबिम्ब मण्टा
बिम्बाकडे
तूं कितें कोण म्हूण
तुका समजायता पुण हांव न्हूं?



# आंगवणेचें कुंकड

फालफाल्यार सदां भशेन
कोंब्या साद आयकूंक नाशिल्यान
वाड्यावेलें लोकांक
उठावंक आज कळाव जालो

वेळ वयर सरचें फुडें
चालंत जावपी वाडो
आज पुण
निश्चळ आसा.

धार काडपी
पावूंक नाशिल्यान
गोठ्यांत गोरवां
वाट पळेत रावलीं

सांतेरेचें भट
उठूंक नाशिल्यान
देवळ ऐदोळ
उगडलेंच ना.



व्हडेंकार बावडो
न्हीदून आशिल्यान
व्हडें आतां मेरेन
उदकांत देवूंकना.

पत्रवालो चेडो
पावंक नाशिल्यान
सायकळाचें धांठेंवाजन
कानार पडूंकना.

पाववालो दादा
येवंक नाशिल्यान
दरादरांत आज
उल्लोमार ना.

नुस्तेकान्न बाई
पावंक नाशिल्यान
वोणी तोण्डार
बोवाळ सुरूना.

दुदकार जांवो
भाजीवाले जांवो
केरींत आजुनय
हाजीर नात.

सकाळ पारार आज
कोंब्यानी साद मारूं नाशिल्यान
वाड्यावेलें लोक कोण
आज जागे जावंक ना.

दोंगरावेल्या देवचराक
आंगवण पावपाक म्होण
न्हय अपराधी कोंब्याक
काल राती कापून दिल्लें.

# पांजर्यांतलो कीर

पांजर्यांतलो
कीर म्हजो
उडची सवंय
विसरलो.

पांजर्यांतल्या
कीराक हांवें
उलोवंक
शिकयलें.

बंदी म्हज्या
सवण्याक हांवें
आवडलेंले तें
खावयलें.

आंबसाणीचें
करमल दिलें
तिकसाणीची
मिरसांग दिल्ली
गोडसाणीचो
आंबो दिल्लो
रसाळ पिको
काजु दिल्लो
चणो दिल्लो



चवळी दिल्ली
कीराक हांवें
चड लाळयलो.

अपुर्बाय दिसून
काकुळटाय दिसून
पांजर्यांचें दार हांवें
उक्ते दवरलें-

पाप पुण
उडलो ना
उडची सवंय
तो विसरलो.

पांजर्यांतलो
कीर म्हजो
उडची सवंय
विसरलो.



# एक उतर

एक उतर
पूर्व दिशेंकडे दोंगुल्याचा तेंगशेर दवरलें
तें उज्याकीट जालें
आनी दीस भर जळ्ळें
उगड्या दोळ्यांक कौतुक जालें
सदांकाळ उरलें.

एक उतर
वयर मळबा विशीं उबून गेल्लें
तें काळें कूप जालें
आनी नेमान पावस शिंवरता
घर्तरेक न्हाणयता
पाचवेंचार न्हेसयता.

एक उतर
पिसोळ्ळें जालें आनी फिरूंक गेल्लें
तें झाडार सून झाडार भोंवता
पराग घडयता
फूल फुलेयता
आनी सगटांखातीर उमेद वांटा.



एक उतर
म्हजेंकडेच रावता
तें म्हजें आडनांव म्होण म्हजी वळख दिता
आनी सदां भशेन कुळा विशीं तोखणाय मारता
दर वर्सा पिंड वाडता
मेल्लेल्यांकडे नातें जोडता.

एक उतर
घरांत सून उसळ्ळें आनी वाटेर जाल्लें
तें नीत मागत आसा
आनी केन्ना केन्ना भोवाळ मारता
न्हिदून पडिल्यांक जागयता
न्हीद नाडप्यंक भेशटायता.



## *गांवांत म्हज्या*

गांवांत म्हज्या
दर्या आसा
दर्यावेळेर
भागरा रेंव आसा
दर दिसा सांजवेळा
न्हावंक येतलो सूर्य आसा.

गांवांत म्हज्या
भाट आसा
वार्या वांगड नाचपीं
माड आसाय
दर दिसा माडार येतलो
मूर्ती कोरांतपी मेस्त आसा.

गांवांत म्हज्या
पोरस आसा
पोरसांत उबो
पणस आसा
पणसार बसून सदां वेळ
उल्लो मारतलें कोगुळ आसा.

गांवांत म्हज्या
तळें आसा
ताळांत धावंन खेळतल्लीं
नुस्तीं आसाय
दर दिसा तळ्यादेगेर येतल्लो
नुस्तें मारपी किरकिरो आसा.

गांवांत म्हज्या
देवळ आसा
देवळा आंगणांत
शंकराचें झाड आसा
झाडार बसून चिलपिल सुरानी
नाम जप करतल्लीं शेवणीं आसाय.



# कोणा खातीर गायतलो

कोणा खातीर
नाचतलो मोर
रंगयाळ इन्द्रधोणु
मळबार नासल्यार

कोणा खातीर
जळटलो सूर्य
साळका फूल
लक्षांत नासल्यार

कोणा खातीर
फुलतलें चान्नें
दुबळें कोमळ
जागोर नासल्यार

कोणा खातीर
येतलो पावस
चातक पक्षी
वाट पळेत नासल्यार

कोणा खातीर
वाजतली बांसरी
मोगाळ गवळिण्यो
म्हर्यांत नासल्यार

कोणा खातीर
हांव गायतलो
तूं गो
आयकूंक नासल्यार



## मनमळब

नक्षत्रांक रावपाक
मळब मेळ्ळें
म्हजा सपनाळें विचारांक रावपाक
हांवें मनमळब दिल्लें.

नक्षत्रां मळबार लिकलिकतालीं
आनी हेवटेन तेवटेन धावंन भोवंतालीं.
म्हजें सपनाळें विचार पुण
उदास आशिल्ले
तें नक्षत्रां भशेन लिकलिकपाक सोदताले
तें नक्षत्रां भशेन हेवटेन तेवटेन धावंन भोवंपाक सोदताले.

देखून हांवें
म्हजा मनमळबाची शीम वाडयली
आनी जागो
मळबा भशेन धीग रूंद केल्लो
म्हजा सपनाळ्या विचारांक
नक्षत्रां भशेन लिकलिकून रावपाक जाय म्होण
म्हजा सपनाळ्या विचारांक
नक्षत्रां भशेन हेवटेन तेवटेन धावंन भोवंपाक जाय म्होण
हांवें मनमळबाची शीम वाडयली
आनी जागो धीग रूंद केल्ली.

# नांगर

'आनी कितलें दीस अशीं
फांत्यार पारार वतलो शेतांत?'
नांगर खंध्यार मारन हांव
शेता वाटेन वता वोळा
कोण तरी विचारता म्होण
रस्त्यार थांबून रावन घुवन चोयलो.

मोन्नो बैल मात्र आसा
वेगवेगीन येता फाटल्यानी
आनी मागीर आसतलें कोणे
अशीं म्हजकडे विचारलें आता
'नांगर मरे रावतलें केन्ना
पूर्वजांकडे जोडून दायज'
खेती विशीं खुबशीं उलोवपी
बापायचीं उतरां यादींत आयल्लीं.

पणजाल्या आजाल्या बापाल्या हातांतल्यान
पावलां नांगर आज हातांत म्हजा
कुळाचीं चाली खेती आसून
राखून हाडल्या आज मेरान.

कुळपरंपरा मुखार व्हरूंक पुण
चेल्या भुरग्याक दिवंकना देवान
हात पांय चलता मेरान
जोत घालूंक हांव पावतलो शेतांत!
फाल्या कोण धरतलो नांगर
पुरुश परंपरा घरण्यांत नासतना?

व्हाडून येता धूव पृत्वी
कुळधर्मा खातीर अभिमान बाळगुपी
नांगर धरूक भूंय कसूंक
पावतले कांय चेडूं शेतांत फाल्या?





# पावसा तूं पड

पावसा तूं पड
ल्हवू ल्हवू पड
सौम्यसंगीत आयकूं दी
सैमसंगीत आयकूं दी
सरसरीत सरसरीत पड पावसा
सरसरीत सरसरीत पड.

पावसा तूं पड
ल्हवू ल्हवू पड
भुंयेक फावोशें तिंबयन दी
पाचवोचार न्हेसूं दी
भुंयचेर जीवावळ उरूं दी
संवसार चालंत रावुं दी
ल्हवू ल्हवू पड पावसा
ल्हवू ल्हवू पड

पावसा तूं पड
पुण धारेनी धारेनी रकोवं नाका
अखंड तूं पडत रावल्यार
आकुळ पिकुळ जातली भुंय-
तळें भरुन व्हावंतलें
न्हंय भरुन व्हावंतली
सागोर तेन्ना भरतलो
ल्हारां मारीत गाजतलो
धारेनी धारेनी रकोवं नाका
तूं धारेनी धारेनी रकोवं नाका



ावसा तूं पड
ुण धारेनी धारेनी रकोवं नाका
अखंड तूं पडत रावल्यार
आकुळ पिकुळ जातली भुंय-
ृथ्वीर हुंवार येतलो
ुराय संव्हार हाडतलो
र्तरिवेलें सगट अशेंच
ुवंन पुसून व्हरतलो
ारेनी धारेनी रकोवं नाका
तूं धारेनी धारेनी रकोवं नाका

पावसा तूं पड
पुण धारेनी धारेनी रकोवं नाका
अखंड तूं पडत रावल्यार
आकुळ पिकुळ जातली भुंय-
भुंयचेर जीवावळ उरचना
संवसार चालंत रावचना
संवसार चालंत नासल्यार पावसा
गरज तुजीं आसचना
धारेनी धारेनी रकोवं नाका
तूं धारेनी धारेनी रकोवं नाका

पावसा तूं पड
ल्हवू ल्हवू पड
सौम्यसंगीत आयकूं दी
सैमसंगीत आयकूं दी
सरसरीत सरसरीत पड पावसा
सरसरीत सरसरीत पड.

# जाणटो पिंपळ

एक एक पान पडून गेल्लें
शेंवणीं घोंटेर सोडून गेल्लीं
पुर्विल्लें सांगूक आपुण आसचना म्होण
जाणटो पिंपळ व्याकूळ रावलो.

रुखा तळा खर खर वोत म्होण
दुसरें थळ सोदून धांवल्लीं पोरां
पुर्विल्लें सांगूक आपुण आसचना म्होण
जाणटो पिंपळ व्याकूळ रावलो.

आषाढांत झोडावेळा मारन गेल्ली जोगलावणीची
याद ताका अदीं मदीं भिरांत लायता
पुर्विल्लें सांगूक आपुण आसचना म्होण
जाणटो पिंपळ व्याकूळ रावलो.

कोमरी येवचना देखून कापुन उडोवंया
कांय जाणां सांगून परतून गेल्ले
पुर्विल्लें सांगूक आपुण आसचना म्होण
जाणटो पिंपळ व्याकूळ रावलो.

रुखाच्या मुळाकडें कुराड तेंकयली
उमेद शेंणून रावलो झाडमारपी
पुर्विल्लें सांगूक आपुण आसचना म्होण
जाणटो पिंपळ व्याकूळ रावलो.

कोण कोण आयल्लें आनी कोण कोण गेल्लें
यादीच्या देगेर कोणे किर्ते दवरलें
पुर्विल्लें सांगूक आपुण आसचना म्होण
जाणटो पिंपळ व्याकूळ रावलो.

सदां काळ आसूंक जाय सावट दीत रावूंक जाय
केदो व्हड आशा ताजी पुण अर्दकुट्यांनीच उरली
पुर्विल्लें सांगूक आपुण आसचना म्होण
जाणटो पिंपळ व्याकूळ रावलो.



# उज्जैयिनिचो घोड्यागाडेकार

उज्जैयिनिचो घोड्यागाडेकार
सौम्य मनीस
सदां हासकुरो
आनी सुटसुटीत उलोवपी.

उज्जैयिनिचो घोड्यागाडेकार
हातांत केन्ना चाबूक घेता
चाबूक पुण-
हातांळूक ना
उज्जैयिनिचो घोड्यागाडेकार
सौम्य मनीस.

'हातांत तुज्या चाबूक मरे
घोड्याक पुण मारूं ना?'
विचार म्हज्यो मांडलो तेन्ना
सुटसुटीत तो उलोवंक लागलो:
खरें सायबा-
घोड्याक हांवें मारूं ना
घोडो म्हज्यो सांगल्यार समजुपी
मागीर ताजेर दंड कित्याक?

शारांतलो दर एक कोनसो
घोड्याक म्हज्या वळखीचो
गांवच्या दर एक यात्र्याक

घोडो म्हज्यो वळखता
कोणाक केन्ना खंय पावका
रोखडेंच तो जाण मूं!

तुमी सायबा पुण परदेशी
घोड्याक म्हज्या अनवळखी
एकमेकांत आमी उलेयतात न्हूं?
आनी घोडो म्हजो पुराय आयकता
खंयच्या थळार तुमका पावपाक जाय म्हूण
घोड्याक देखून समजता
क्षिप्रा न्हंयचें तड जावो
महाकाळेश्वर देवळ जावो
विक्रम मन्दीर वा वेदशाळा
ना जाल्यार जन्तर-मन्तर
घोड्याक म्हज्या ना चुकता
रोखडेंच तुमी पावताय कांय ना?
घोड्याक कित्याक मागीर मारपाचें हांवें-
चाबूक कित्याक हालोवपाक जाय?

घोड्याक तूंवें मारूं ना
तरीय हातांत चाबूक जाय?'
कुवाडें हांवें उडयलें तेन्ना
सादूरकायेन तो उलोवंक लागलो:

महांव सायबा सांगूं-
चाबूक कित्याक धेता म्हूण
हांव सदांचो घोड्यागाडेकार
आख्ख्या शारांत यात्र्यांक पावोवंपी

थोगड्या वेळा पावता जाण मरे
सूरा गादींच्या सामकार
आनी थोगड्या वेळा पावता
शिंदाळण्यांच्या वाड्या सामकार
पोजडें विचार दिसेयताय तेन्ना
चाबूक माका परत यादींत हाडता-
हांव सदांचो घोड्यागाडेकार म्हूण
माका घर आसा म्हूण
घरांत बायल आसा म्हूण
भुरगींबाळ आसाय म्हूण
सोरो घेवपाचें न्हय म्हूण
चेडियांकडे वचपाचें न्हय म्हूण
हांव घोड्याक चलोवंचो म्हूण
हांव घर चलोवंचो म्हूण
देखून सायबा,
हांव सदां हातांत घेता चाबूक.

आनी आता सांगता सायबा-
चाबकाकडेचें म्हजें नातें कशें म्हूण?
सकाळी हांव भायर सरचें वेळा
चाबूक तें माका काडून दिता
सांजें हांव खोप्यांत परत पावता वेळा
माये मोगान तें चाबूक घेवन दवरता
अशें सायबा सवंय आमची
रस्तो देखून ना चुकपाची

उज्जैयिनिचो घोड्यागाडेकार
सौम्य मनीस
उज्जैनिचो घोड्यागाडीकार
नेमान चलपी



# वेळा बराबर चला

वेळा बराबर
चला आमी

ना तर-
वेळा फाटल्यान धावंक पडटल्ले.

कांय वेळा
आडळूंन पडटलें

देखून केन्ना
लक्षाकडें पावंक साकना



# झाडाची वळख

झाडावेली फुलां
एक एक तुंटेवन घे
पुण-
पुराय काडूं नाका

एक तरी फूल
झाडाचेरीच रावूं दी
आनी झाडाची  वळख
फूलावेल्यान जावूं दी



# जीण

जीणेची ही
रेवेंतडी
खीणाची आसा
भांगरातडी



# युगपरिवर्तनांचो यात्री

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल
तूं चल-
पुण धुवंन चोवनाका
चलून आयलेली वाट
उल्लो मारीत रावतली
एक वेळा
तूं प्रलोभित जातलो
फुडारा विशीं
घुस्पागोंदळ पावतलो
तूं चल
पुण धुवन चोवनाका

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल-
चलताना तूं
पावलांक जोतें लाय
गिमाळ्यांत-
रस्तो तापून पिकून पडटलो
नागड्या उगड्या पावलांक तुज्या
त्रास भोगतलो
म्हणून

तुजी स्पूर्ति सोंपतली
तूं चल
पुण पावलांक जोतें लाय.
युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल
भायर सरतना
पांगरूण तुजें विसरु न्हयें
हेमंत येतना
थंडी हाडतलो
असह्य शींय
सूय जशीं आंगाक तोपतली
शिरंतरां तुजीं थंड जातलीं
आनी तुजी
उमेद शेळेतली
तूं चल
पांगरूण पुण विसरुंनाका.

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल-
चलताना पुण सारंगी तुजी
हातांत आसो



हिंडत हिंडत तूं
कांय रानवाटेर पावतलो
रात जाता तेन्ना
चोयवशीं काळोख भरतलो
कोल्लो फुयेल मारतलो
भूतां-प्रेतांचो आक्रोश जातलो
तेन्ना तूं
सारंगी वाज
सारंगीचो मंजूळ सूर
तुजो भय जिकतलो
तूं चल
हातांत सारंगी घे.

युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या
तूं चल-
अखेर तूं
आगळ्या वेगळ्या जाग्यार पावतलो
थंय नाळयेचो घुडघुडो पावंचना
थंय रक्ताचो व्हाळ व्हावंचना

सपन तुजें
रुप्या वाटलें भशेन
माळबार सोबतलें
तूं चल
युगपरिवर्तनाच्या यात्र्या.



# वेळ

वेळा फुडें
चला आमी
वेळा फाटी
चलूं नाका



# उदक

मळबांतले उदक
पावस शिंवरता
        दोळयांतले उदक
        दुख शिंवरता



# गोंय तुजी

गोंय तुजी
तांबडी माती
पावलां पोदाक
धरून रावली

अपरूप म्हजें
नशीब म्हणून
माये मोगान
पुसून घेतली

म्होंवाळ तुजो
याद मगे
मना म्हजा
रिगून रावता

केन्ना केन्ना
आंकरी फुट्टा
मोडून घेतल्यार
मूळ धरता



# मोडून गेल्लें सपन

माडोंवी वयलो
पूल जशेंच
आज जाला
सपन म्हजें-

कांय वेळा
मांडून येता
कांय वेळा
मोडून वता.



# सूर्य रथ



सूर्य राया
तूं विष्णुवंशी प्रतापी
ब्रह्माडांत प्राण घालपी
जीवनदानी आदित्य
सर्वव्यापी प्रपंच परजळावपी
तेजस्वनीय सहश्रांशु
आनादी काळांत सावन शेक चलोवपी
साम्राट मार्थाण्ड
तूं चलत आसा -
तुजा अतिवेगी रथाचेर

अपरुब तुजो रथ हो-
चलेयतात सात घोडें
घोड्यांक रथाकडें बांदता सोरोप
यक्ष तुजें खातीर दरताय कासरो
ऋषीवर्य तुजी स्थुत म्हण्टाय
गन्धर्व तुजें खातीर गायताय
अपसरां नाचताय
राक्षस आसाय तुजें राखणदार !

तुजा सरबोंवतणी -
रावताय गिन्यानीं
कितलेशीं जाल्याय युग-
तूं चलत आसा

चमतकारीक हा रथाचेर
जाता अखंड तुजी जैत्रयात्रा-
दर म्हयनांत तूं पावता
दर एक आकार घेवन
चैत्रांत तूं दादा
वैशाखांत आर्यामा
जेश्ट म्हयनांत मित्रा
आनी आशाढांत वरुण

श्रावणांत इन्द्र
भाद्रपदांत जाता विवश्वा
अर्विनांत पुषाव
कार्तिक म्हयनांत विश्वावस
अंश तूं मार्गशिर्शांत
पौषांत पुण भगन
त्वाश्ट, माग म्हयनांत
फालगुनांत जाता विष्णु

चलत आसूं रथ हो
चालू रावूं दी प्रवास तुजो



# आयुश्य

मनांत जाय
जीणेक आशा
        लांब जाता
        जीणेचो आयुश्य



# मुक्ती

विकतें घेवपाक
मेळता सांतेंत
जाय तें
आनी कितेंय

मीठ मेळता
तांदूळ मेळता
जाय जाल्यार
मनसाकय मेळतलो

विकतें घेवपाक
पुण मेळना केन्ना
जिबेवेली
माय भास



# उतरां

सांगील्ली उतरां
मोल विना गेल्लीं

आयकल्ली उतरां
मोलादीक जाल्लीं



# शाश्वत उरलें

फुकट मेळ्ळेल्ले
फुकटेंनच  गेलें

मागून घेतिल्ले
भोगून सरलें

सोसून जोडिल्लेंले मात्र
शाश्वत उरलें



# जर्जरो घोडो

घोडो-
आज जर्जरो जालां
एक वेळा
तो हुसार आशिल्लो
यज्ञाच्या घोड्या भशेन
धावंत आशिल्लो
धरूंक तेन्ना ताका
कोण नाशिल्लो
दोरयेन बांदूक ताका
कोणच्यान साध्य नाशिल्ले
घोडो-
आज पुण जर्जरो जालां



# आनंद

आशा
रोवन घाल
आनंद
लुवुन घे





# उजवाड

काळखेचें सपन
उजवाडाच्यो सूर्य
मळबार पावलो
पर्जळेत रावलो



# मातयेची बावली

आंग दुखलें
हूम व्हांवली
माती कालेवंन
बावली केल्ली
जीव हुंकप
जालो तिज्यांत

ही मातयेची बावली
ही मातेची मूर्ती

भाव मागीर
भावाचेर कोपलो
बावलेचें देखून
केल्ले कुडकें

ही मातयेची बावली
ही मातेची मूर्ती

रगत व्हांवलां
बावलेक दुखलां
कुडको कुडक्याकडें
मेळ्ळूंक सोदता



ही मातयेची बावली
ही मातेची मूर्ती.

रेणुकेलो पूत
येवपाक आसा
कुडको कुडक्याकडें
पासपाक आसा
भावां भितरलो कोप
निवाळपाक आसा

ही मातयेची बावली
ही मातेची मूर्ती



# अशीं करूं न्हय मोगा

अशीं करूं न्हय मोगा-
फुल्लांतलो म्होव जावूं न्हय
वाटेवेल्यान वताल्या भोवराक
मोगा पिस्यांत घालूं न्हय

अशीं करूं न्हय मोगा
दिवलेवेली जोत जावूं न्हय
विसरार भोंवपी पाखुटाक
ओडून चुंबन घेवूं न्हय

अशीं करूं न्हय मोगा
दोळ्या भितर रावूं न्हय
जनालाकडे बसतल्या गोरूक
दोळें मोडून दिसवाड्या सपनांत घालूं न्हय

अशीं करूं न्हय मोगा
सूर्याची कांत जावूं न्हय
तळातल्या साळकाक प्रेमांत बांदून
रात्रीवेळा एकमेकांक दूर करूं न्हय.

# मळब

नक्षत्रांक फिरूंक
मळब दिल्ला
        विचारांक फिरूंक
        मनमळब दिल्ला



# आक्षर

आक्षर धेवन
रीणबंद जालो
आक्षर दीवन
रीणमुक्त जालो



# सपन

धर्तरेचें सपन
वोवळा फुलां
मळबाचें सपन
नक्षत्र फुलां



# युगांतर कवी

तुज्या उतरांत
मोग आशिल्लो
तुज्या उतरांत
म्होंव आशिल्लो

वाडून फुलून रावूं म्हणून
काव्यांनी पावस शिंवरलो तुवें
मन उखलें कोंकणीचें
मान जालें नीट उबें

दसणीच्या फुलांनी
सुरंगीच्या कळयांनी
सोबयली तिका तुवें
झाडांपेडांनी आनी फळांनी

भांगराच्या कणसांनी
अमृत भरिल्लेंले कळसांनी
शिंगरायलें तिका तुवें
शेतांनी आनी कुळागरांनी

तुज्या उलोवपांत आशिल्लो
कर्तव्याचो आवाज
तुज्या उलोवपांत आशिल्लो
स्वाभिमानाचो सूर

# विचार

पावस रकरकता
मळबावेल्यान
विचार रकरकता
मनांतल्यान



# वाट

न्हंयची वाट
व्हांवक सोदता
          सावण्याची वाट
          उडूंक सोदता



# भिकारी

पासणाक लेगीत
मेळ्या शितळकाय
मनीस आजून
सोदता शांतताय



# धांव विसरलां

धांव नाका रे धांव नाका
धांवल्यार तूं घडघडेवंन पडतलो.
आज्जी सदां म्हणटाली
म्होण हांव धावंक नाशिल्लो

आज ह्या स्पर्धात्मक संवसारांत
सगट वेग मारीत आसात
माका पुण धावंक येना
धांव हांव केन्ना सावन विसरलां



# आशा

लांब रस्ता
चलून सोंपना
        ल्हान आशा
        भोगून सोंपना



# इत्सा

देगेर पावपाक
इत्सा जाय
दर्येची रुंधाय
हुंपूक जाय



## काळनेमी पक्षी

शिशिराच्या पयलें फांतोड्यार
अचकित पावलें काळनेमी पक्षी
आंगावेल्यान दंवा थेंबे निस्तेंत आसतना
दाराचेर घट धरून बसलें

पाखां तिडकेन फापडून मागीर
आंगावेलें जलकणां शिंपडायलें
विसव विना चिंव चिंव आवाजान
सासणाची सांगणी कळयली
दंव शिरशिरेत आसतनाच
तें उडून गेल्लें दिगंतरांत

सांगूक जाय आशिल्ले
हांवें सांगूक ना आजून
करूंक जाय आशिल्ले
हांवें करूंक ना आजून

खरेंच आज सुचयलें म्हजेंकडें
त्रिकाळआनी शेंवण्या तूंवें
वेळाच्या काळाच्या तोलामोला विशीं
तूंवें गो माका आज याद हाडलो

जें कडे पावपाक जाय आशिल्ले
आजून हांव पावंकना
जें जोडपाक जाय आशिल्ले
आजून हांवें जोडूंकना

विसरार आशिल्ले गो आज यादीत हाडलें-
त्रिकाळज्ञानी शेंवण्या तूंवें
सोश्या भशेन कासवाकडें
धांव माका चुकला!

काळनेमी पक्षी- तीनीय काळां विशीं खबर आशिल्ले शेंवणे. केरळीय कल्पितकथा.



# सपन जाय ?

तुका
सपन जाय?
    तर
    पोट भर जेय



# पयसाय

तडीर सावन तडीर पावपाक
पूल जाय
    मनांत सावन मनांत पावपाक
    मोग जाय



# रीण

जल्माचें रीण
मरूंन सरता
कर्माचें रीण
भोगून सरता



# अभागी

धनिकाक जेवूंक
वेळ ना
    दळदिर्याक जेवूंक
    तांदुळ ना



## कोंकणी

तळातुल्या साळका भशेन
सोबीत म्हजी कोंकणी
उदकांत सावन वयर येवन
मळबा दिखान नीट रावल्या

नितळ म्हजी कोंकणी
सरळ म्हजी कोंकणी
म्होंवळ म्हजी कोंकणी
मोगाळ म्हजी कोंकणी



# अणभव

आरोहण
कठीण आसा
अवरोहण
सोंपे जाता

# देव शिल्पी

तो अस्पृश्य शिल्पी
रित्या पोटाच्यो धनी
दोंगरावेलो फातोर कोरांतून
ताणे केल्ली देवमूर्ती

देवाक दुदांनी न्हाणयतात
भांगार शिंगार सजयतात
फळ आनी तांदूळ दितात
देवा खातीर धनदौलत सांबाळतात

ना कोणाक याद शिल्पकराची
ना कोणाक व्याथा ताज्या खातीरची
पोकळ पोटांत ताजा
भूक सदां कोरांतून रावता





आर.एस.भास्कर

कोंकणीची केरळ मोडींतल्यान काव्य करपाची परंपरा खूब पोरणी आसा. कोंकणीक समृद्द करपाक ह्या मोडीन जितले लेखक आनी कवी दिल्यात तांतले एक मुखेल म्हळ्यार आर.एस.भास्कर.
मिताक्षरी कविता रचप ही कवी भास्कराची विशेशताय ताका बाकीबाब बोरकार, र. वि. पंडित, मनोहरराय सरदेसाय हांच्या पंगतीक हाडटा. ताणीं ह्या ल्हान कवितांतल्यान जीणेचें सारतत्व सांगून व्हड आशय उगतो केल्लो. तेच तरेन कवी भास्करानय जीणेची तरा तराची तासां सैमाच्या प्रतिकां वरवीं उगतीं केल्यात.

- प्रियदर्शिनी तडकोडकार



सुवर्णरेखा पब्लीकेषन